# शेणिल्ले स्पर्श

डॉ. सुलभा कोरे

कोंकणी अणकार

दिलीप बोरकार

बिम्ब
प्रकाशन

**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / **१२२. अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / ७ जानेवारी २०१७.
**मुखपृश्ठ** / गिरिश नंदा बोरकार
**शेणिल्ले स्पर्श** (कविता) डॉ. सुलभा कोरे
**कोंकणी अणकार** - दिलीप बोरकार
Shenilye Sparsh (Poems) ***by Dr. Sulbha Kore***
**Translated in Konkani by - *Dilip Borkar***
**मोल** : रु. १६०/-



**ISBN :** 978-93-85654-11-4

शब्द आनी भाशेचेय आदीं
जल्म स्पर्शाचो.
स्पर्श अनादी, अनाहत
जल्मा वांगडा वांगड दिवपी
काळाचे व्हावतेंत
सुखान ओथंबतात स्पर्श
तर केन्ना अतिव दुख्खांत गदगदतात स्पर्श.
तर काळा वांगडा
केन्ना शेणटात स्पर्श
जिवितभरा खातीर...

हे 'शेणिल्ले स्पर्श'
त्या शेणिल्ल्या 'स्पर्शां' पासत

# मांडावळ

# स्पर्शांचो स्पर्श

डॉ. सुलभा कोरे हिच्या 'स्पर्श हरवलेले' ह्या काव्य संग्रहाचो कोंकणी अणकार करपाची कसली गरज आशिल्ली असो एक प्रस्न कोंकणी साहित्यिक मळार तकली वयर काडूं येता. खंयचेय भाशेची गिरेस्तकाय ते भाशेंत निर्माण जाल्ल्या आनी जावपी अभिजात साहित्याचेर निंबून आसपा वांगडाच ते भाशेंत हेर भासांतलें अणकारीत जावन आयिल्ल्या साहित्याचेरुय निंबून आसता म्हणपाचें हेर गिरेस्त भासांतल्या अणकारीत साहित्याचें भांडार पळयल्यार होलमता.

कोंकणी ही गिरेस्त भास आनी ते भाशेंतल्यान आयज मोठ्या प्रमाणांत सगळ्या विशयांवयल्या आभिजात साहित्याची निर्मणी जाता म्हणपाचें आमी सगळे अणभवतात आनी ते बाबतींत आमी समाधानीय आसात. पूण अणकाराचे बाबतींत मात ज्या प्रमाणांत हेर भासांतलें साहित्य अणकारीत जावन कोंकणींत येवंक जाय आशिल्लें त्या प्रमाणांत तें येना. संवसारांतल्या हेर भासांतलें साहित्य अणकारीत जायना तें जालेंच आमच्या देशी भासांतलेंय साहित्य अणकारीत जावन कोंकणी वाचका मेरेन पावना. मागीर तो उणाव भरून काडपा पासत मराठी साहित्याचो कोंकणी अणकार जावप गरजेचो काय कितें असोय एक प्रस्न निर्माण जावं येता.

मराठी ही गोंयची सांस्कृतीक भास अशें आयज खूबशे विद्वान मानतात. जर गोंयची संस्कृताय कोंकणी आनी खंयचेय संस्कृतायेचें मूळ हें थंयची भास आसता जाल्यार कोंकणी मनशाची सांस्कृतीक भास मराठी हें तर्कट म्हाका कळना. जर खरो गोंयकार आपल्या घरांत कोंकणीच उलयता, त्या लोकांच्या आवयांक कोंकणी सोडून दुसरी भास आपल्या भुरग्यां कडेन उलोवंक येना जाल्यार ह्या गोंयकारांची आवयभास मराठी कशी आसूं येता होय एक प्रस्न जाप नाशिल्लो. तरी लेगीत कांय इतिहासीक कारणांक लागून गोंयकारांक मराठीचो आदार घेवंचो पडलो, ती भास घरांघरांनी शिकची पडली हीय सत गजाल. तो गोंयचो इतिहास. देखून आमी मराठीक कुसकुटावंक शकनांत आनी तशें करप समा न्हय. तेच पासत कोंकणी पासत झुंजत आयिल्ली रवींद्र केळेकार, चंद्रकांत केणी हांची सारकी

आदली पिळगी गोंयकारांक वाचना पुरती तरी मराठी येवंकूच जाय आनी ताणीं मूळ मराठी साहित्य मराठींतल्यानूच वाचूंक जाय अशें आग्रहान आपलें मत मांडटाले. तांच्याच विचारांचें बोट धरून आयिल्लो म्हजे सारकोय तोच विचार करतालो. गोंयच्या दरेक मनशाक मूळ मराठींतलें साहित्य वाचपा इतली मराठी ही येवंकच जाय. तांकां मराठी साहित्य कोंकणींतल्यान वाचचें पडूंक फावना.

पूण ही परिस्थिती आतां उरूंक ना. आदीं जशी मराठी शिकप जातालें तशें आयज जायना. भाशावाद आनी सरकाराच्या त्रिभाशा सुत्राच्या धोरणाक लागून आज मराठी शिकप आदले वरीं जायना. घरांत कोंकणी उलयतात म्हणटकच कोंकणी सगळ्यांक येता. पूण मराठी शिकल्या बगर येवप कशीच शक्य ना. तेच पासत जाणीं मराठी भास आपलें माध्यम म्हूण घेवंक ना वो जांचें शिक्षणाचें माध्यम इंग्लीश आनी कोंकणी हो तांचो एक विशय आसता तांकां मराठींतलो ओ! काय ठो कळना. तेच पासत हांव जें मराठी बरयतां तें आमकां वाचूंक मेळना अशें आयचे पिळगेंतले जायते लोक म्हाका सांगतात. म्हणटकच मराठी ही दर एक गोंयकाराक वाचपा पुरती तरी येवंक जाय, मराठींतलें साहित्य कोंकणी जावंक फावना अशें हांव म्हणटालों तो विचार आयज काळा भायरो जाला. मराठी ही एक खूब गिरेस्त भास आनी ते भाशेंत खूब गिरेस्त साहित्य आसा आनी तें आयचे गोंयकार पिळगे मेरेन पावपाक जाय जाल्यार तांचो कोंकणी अणकार करचोच पडटलो. काळा प्रमाणे माथ्याक कुरपणें जायच. थंय भावूक जावन चलपाचें ना. डॉ. सुलभा कोरे हिच्या संग्रहांतल्या कवितांचो कोंकणी अणकार जावंक पावलो तें त्याच पासत.

डॉ. सुलभा कोरे हिचो काव्य संग्रह कोंकणी करतलोंच म्हणून तो व्याप हांव घेवन बसूंक नाशिल्लों. तें सगळें घडलें 'खेल खेले में'. सुलभा कोरे एके बँन्केची अधिकारी. ते बँन्केच्या मासिक साहित्यिक पत्रिकाची ती संपादक. रवींन्द्र केळेकार हांकां पद्मभूषण किताब जाहीर जाल्या उपरांत तांची ते पत्रिके पासत मुलाखत घेवंक ती आयिल्ली. बँन्क अधिकारी हे रुक्ष लोक.

तांकां दुडवांची आंकडेमोड सोडून हेर कांय कळना असो म्हजो तिका मेळचे आदीं समज आशिल्लो. जेन्ना तिका साहित्या विशीं रुची आसा, रवींन्द्र केळेकारां सारख्या लोकांविशीं आदर आसा, त्या भायर ती स्वता साहित्यकार आनी कवयित्री म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना तिचेविशीं कुतुहल निर्माण जालें. तिणें भेट म्हूण दिल्ले 'स्पर्शीका' आनी 'स्पर्श हरवलेले' हे काव्य संग्रह चाळून पळयले. आदीं वयले वयर. मागीर एक जाणवलें तिच्या कांय कवितांचें म्हज्या कवितांच्या आशय विशयां लागीं सारकेंपण आसा. देखीक फुलपाख्याच्या मरणावेली म्हजी 'जखम' ही कविता आनी तिची 'परागंदा फुलपाखरू', तशेंच तिची 'गाभारा' आनी म्हजी 'तूं एकटोच उरतलो' ही कविता. हो एक योगायोग.

ह्याच योगायोगाक लागून कविता बारकायेन वाचप सुरू जालें. मागीर त्यो कोंकणींत आशिल्ल्यो जाल्यार तांचें कोंकणीकरण कशें दिसपाचें हो चाळो सुरू जालो आनी मागीर एकेक करतां बऱ्योच कविता कोंकणी भेस चडोवन तयार. हांवें ही गजाल कवयित्रीक सांगली. तिणें म्हळें, 'माझं पुस्तक कोंकणीत आलेलं मला आवडेल, तसंच तुमचं एखादं कोंकणी पुस्तक मराठीत आणायची माझी इच्छा आहे.' म्हळें हें आदान प्रदान बरें आसा. तिका म्हजी 'सखी वसुंधरा' कादंबरी आवडल्या. ताचेर वावर चालू आसा. पूण त्या आदीं कोंकणीन बाजी मारल्या. सुलभा कोरेचो काव्य संग्रह आदीं कोंकणींत येता.

सुलभा कोरेचो 'स्पर्श हरवलेले' ह्या मूळ मराठी कवितांचो 'शेणिल्ले स्पर्श' हो कोंकणी अवतार. ताका कोंकणी काव्य मळार कसो येवकार मेळटलो हें फुडाराक कळटलेंच. तरी अणभवा वयल्यान एक गजाल मान्य केल्या बगर रावूं येना. कविता वाचप्यांचो आनी खास करून गांभिर्यान, अभ्यासपूर्ण वाचप्यांचो काळ आतां उरूंक ना. आमचे कोंकणी कवी कोंकणी कवींच्यो लेगीत कविता वाचिनात. कवितेचो अभ्यास करिनात. तरी भाराभार कविता रचून काव्य संग्रह छापतात, कवी संमेलनांनी वांटो घेतात. असले हे कवी हें पुस्तक वाचतलेच अशें सांगूं येना. तरी तें वाचचें आनी एके संवेदनशीळ

स्त्रीवादी कवयित्रीचे जागतीक उमाळे कोंकणी मनशान समजून घेवंचे इतलीच ह्या वावरा फाटली तळमळ आसा.

सुलभा कोरेन आपल्या जिविताच्या प्रवासांत खूबशे बरे–वायट अणभव घेतल्यात. हे अणभव फक्त तिचे एकट्याचे न्हय तर समस्त स्त्रीजातीचे म्हणपाचें ह्यो कविता वाचतना होलमता. तिच्या कवितेंतल्यान बायलजातीच्या वांट्याक फकत ती बायल म्हूण जल्मांक आयिल्ल्या कारणान आयिल्लीं दुख्खां व्यक्त जातात तीं जालींच त्या भायर सुलभाची सैमाकडेन, हेर प्राणीमात्रांकडेन पळोवपाची आपली खाशेलीसी नदर ह्या कवितेंतल्यान आमकां पळोवंक गावता. तिच्या मूळ मराठी काव्य संग्रहाक मराठींतले ज्येश्ठ कवी आनी लेखक सतीश काळसेकर हाणीं शुभेच्छारुपी प्रस्तावना बरयल्या. सुलभाचे कवितेविशीं बरयतना ते म्हणतात, 'त्यांच्या कविता लेखनात खूप चांगल्या जागा आहेत.' हें एकूच वाक्य कवयित्री आनी तिचे कवितेचेर भाश्य करूंक पुरो.

मराठी ही आमची भास, ती आमकां येता अशें आमी म्हणटात आसले तरी अणकार करतना, खास करून कवितेचो तेन्ना ती भास कितली कठीण म्हणपाचो अणभव येता. तरी लेगीत तातूंत एक आगळी खोस भोगता. सुलभा कोरेच्यो ह्यो कविता कोंकणींत अणकारीत करतना पुनर्निमीतीचो एक सुंदर अणभव म्हाका मेळ्ळो आनी मराठी वांगडाच कोंकणी भाशेचे गिरेस्तकायेचो, तातूंतल्यान म्हज्या नेणारपणाचो म्हाका सोद लागलो हें खरें आसलें तरी परप्रांतांतले कवितेचो आशय विशय खोलायेन समजून घेवन हें तर आपलेंच मरे, संवसारांतलो सगळो मनीस एक, तांच्यो भावना, वेदना, विचार एकूच ही जाण चड गडद जावंक पावली. म्हज्या ह्या वावरांतल्यान कोंकणी मनीस सुलभा कोरेचे कवितेक अणकाराच्या मळार येवकार दितले अशी आस्त आसा.

**दिलीप बोरकार**

## तूं , हांव आनी सपनां

तुज्या दोळ्यांचे अथांग, निळनिळशे डोह
पळयले काय दिसता
एक एक डोह रितो करचो
म्हज्या दुष्काळग्रस्त गांवांतल्या
शुश्क भेगो पडिल्ल्या, कोरड्या वोंठार
तुजो मोव मोवसो, उबदार तळहात हातांत आसलो तरी...
याद जातात थंडी वाऱ्यांत, फातराळ रस्त्यावेल्यान
माती, विटो व्हरपी गांवांतलीं उगडीं नागडीं पोरां
पोटलून घेवं काय तांकां ह्या तळहातांत
उबदारपणान
तुजें लागीं आसप, तुजो सहवास, तुजो स्पर्श
सगळेंच कितें तरी याद दित रावता एक सारकें
हांव फक्त मोन्यांनी
तुज्या रेशमी पदराकडेन खेळत
तुजेच मांडयेर तकली घुसळयत
दंग आसतां...

तुका म्हज्या गांवचे सुवादीन कशें करून घेवंचें ह्या विचारांत
तुज्या अथांग डोहांतलीं रंगरंगयाळीं सपनां थंय आसतलींच
हांवें पळोवनय पळोवंक नाशिल्लेवरी केलें तरी

## एक पत्र

इश्टा,
आयज काल हांगचें वातावरण सामकें इबाडलां,
हवेंतलो परकेपणा
दरेक श्वासांतले छेद, हांगच्या गल्ली पायणींतली अरूदाय,
पुराय शारभर फाफसून
आतां मनशां मनशां भितर देवूंक लागल्या
घरांतल्यो वण्टी मनांतल्यो जाल्यात
भूंयकांप, वादळां आदीं केन्ना तरी जातालीं...
आतां सदचींच जाल्यांत...
तातूंतल्यान वाचिल्लें जगप बोनस म्हूण मेळिल्लें
नास्त्याक चाबडावपाक
दनपारच्या जेवणाक बॉम्बस्फोट, रातीखातीर दंगे..
वर्गवारी सामकी थारिल्ली आसा
कांयच ना जाल्यार ट्रेन, ऑफिसांतली चर्चा, वादविवाद
राजकारण, भ्रश्टाचाराचेर बेतिल्ली
तशें सगळें बरें आलबेल
शंबरेक बॉम्बस्फोटांत जखमी,
धा-पांचांक भोसकिल्यात त्यो कथा
पन्नाशेक मेल्ल्याच्यो बातम्यो
हेर सगळें शांत
हांव सदचो ऑफिसाक वतां
कित्येंय करून हजेरी लायतां
गडबड जाली काय घरा पळपाची संद घेतां
तुजे थंय शांतताय आशिल्ल्याचेंय आयकतां

इश्टा एक करशीत?
थंयची इल्लीशी शांतताय
तुज्या तायटा इतल्या
लेंसांत बांदून, धाडून दिशीत?
हांगच्या बेचैन अराजक, अस्वस्थ
जिण्या पासत आनी मरणा पासत
भोवतेक
ही चीट मेळऽ मेरेन
थंयची शांतताय विखारी जाल्ली नासत जाल्यारूच...

## चंद्र

आंगणांतले खाटीर लवंडटकूच
कापिल्ल्या पानांचो झुबको घेवन
शुभ्र फुलांनी, पांचव्या सांगांनी
भरिल्लो मशींग धोलतना दिसता
सामकारच्या मेकळ्या मळबांत
मूठभर मोखून मारिल्ल्यो चांदण्यो हांगा थंय शिंपडल्या
दर्याची उधाण गाज
दर्यादिगेवेल्या माडांताडांतल्यान भिरभिरत कानार येता
सांगाताक किर्र काळखांतल्या रातकिड्यांची किरकिर
परतून परतून, शेगीत सो
भोंवतणचो आसमंत उजळून उडयता
असो एखाद्रो चंद्रीम
आजुनय मळबांत ना

## पावस

अशेच एके पावसाळिल्ले राती
टपटपपी पावसाच्या थेंबांनी
ऐन मध्यानीर जाग येता
रातच्या पाडसार घुंवघुंवपी पावस
उदकांत नाचपी पावस
जनेलांतल्यान डोकावपी पावस
सपनांतल्यान सामकार येता
एक अनाहत, पावसनाद नांदत रावता
मनांतल्यान, कुडींतल्यान वाजत रावता कानांतल्यान
रात मात पाझरत वता उकत्या दोळ्यां वाटेन
काळखांतल्यान

## अनवळखी दहशत

श्वासांतल्यान व्हांवपी अनवळखी दहशत
सांजवेळचे भांगर रेवेंत
उधाण ल्हारां वांगडा परतून परतून जागता
आनी पालवतना, राती मागीर रेवेंर काजळी धरता
दिकांचे रंग जोगीणीवरी
ल्हारांचे सपकारे विजेवरी
एक मळबूच कोसळूंक लागता चोंयवाटांनी
आधार नाशिल्लेवरी
आंग चिंब घामान श्वास घुसमटूंक लागता
वेदना, तडफड, फडफड
तन, मन व्यापीत घुमूंक लागता पिसाट
श्वासांतली दहशत
केंसांतल्यान भोंवपी बोटांतल्यान निस्तत वता
फांतोडेमेरेन

## बस्स् इतलेंच

पळय, आयक
खंयतरी कसलो तरी आवाज आयकूंक येता
कसली तरी हालचाल सुरू आसा
सावध राव
मात्तूय बेसावधपणा
आख्खें ओरबडून घेवन वतलो
मागीर बाजार सजतलो, सजयतले
खरेदी विक्री जातली, करतले
कूड, मन
रक्त, उदक
प्रेम, सूड
सगळेंच विकतलें
देशभक्ती, देशद्रोह
इमानदारी, बेमानपण
समुद्र, जमीन
कितें ना कितें खरेदी जातली
आतां तरी पळय
आतां तरी आयक
बेसावध रावं नाका
बेपरवायीन वागू नाका
उरिल्लो
एकलो एकसुरो सूर्य लेगीत
मळबा सयत
लोक पावणेर काडतीत
तेन्ना मतींत दवर फकत एकूच गजाल
सूर्य कोणा एकट्याचो नासता

## अस्तित्व

पयसमेरेन गेल्ली दीपमाळ
आनी रूळावेलें आयुश्य
तांचे सोदांक
दिसता
सांगचें तांकां स्वताची काळजी घे
ते पयस आसा तो मेरेनूच
हें परतून परतून सांगन दिसता
पूण तेच लागीं पावले म्हणटकूच
भावनेक उतरां सांपडनात
फकत एक अस्तित्व धगधगता, असह्य
हांव मोन्यांनी
ताच्या निखाऱ्या पोशांत
चार पांच जुई फुलां दवरतां
अचळय
आनी रावतां पळयत
एकटक
ओल्या दोळ्यांनी

## उगडास

लवंडून उबो आशिल्लो
एखाद्रो उगडास
ल्हवपीक दारार टकटक करता
कवाडां अचळय उकतीं जातात

उगडासाचीं शेवणीं भराभरा
येतात, वतात
वतात, येतात
फांतोडे दंवात ओलेतात
आनी वोतांत आपलीं भांगराळ पाखां सुकोवन
परतून झेप घेतात

दारा भायलो पिंपळ मात पेडारूच
सळसळत रावता
बेभानपणान

## चल वचूं या

चल वचूं या
पयस.... पयस
पयस खंय तरी!
आतां उतरांचे सुरींग नाकात
भावनांच्यो किटी नाकात
आनी त्या उपरांतची ती उध्वस्त सांजवेळ
विखाळ रात आनी नाशिल्ली सकाळ
कांयच नाका
आमी वचूं या
दनपारचे दर्यादिगेवेल्यान
पयस खंयतरी
नेणीवेंत.... जंय
संदर्भाक विसरून
तुवें दोळ्यांत मळब साठोवन बसचें शांत
आनी हांवें नखेत्रां मेजीत रावचें
निस्वार्थ
निवांत

## रूखाचें सपन

रखरखपी वोतांत
शेकोवपी शियांत
रूखाचे दोळे सताड उकते
वाट तेळिल्लेवरी
पयसुल्ल्या देशांतल्या वाऱ्या वांगडा
भरिल्लीं कुपां केन्नाच गेल्यांत
काल पडिल्ल्या पावसाचें
बरेंच शें अडसल्लें
उगडीपीच्या वोल्या रानांत
मेकळीं जाल्लीं वळचणीचीं पाखरां
आनी मातयेपोंदा धांपिल्ली
वोली पावल कुरू सोबीत
...
रूखाच्या सपनांत मात
आयचो पावस
फाल्यांचो पावस
...
केन्ना येतलो काय पावस?

## डायरी

नव्या वर्साचो, पयल्या दिसाचो संकल्प
डायरी बरोवपाचो
दर दिसा
नवें ताल्ल पेन, भांगराकडांची डायरी
जालेंच जाल्यार एखाद्रें मोर पीस
पानांत लिपोवन दवरपा पासत

रातीं
याद, डायरी बरोवपाची
फाल्यां सावन...
दुसरो दीस रात
याद, डायरेची,
फाल्यां सावन....
आयज... फाल्यां....फाल्यां
डायरी आलमारींत
नवें वरस
साफ सफायेचें
आल्मारींतली डायरी धुल्लान माखिल्ली
पेनूय आसा तींत सुकून गेलां
एका फाटोफाट पानां परतितना
कागदाचो कोरो वास

आनी अचळय निसटून
जमनीर, धुल्लांत पडिल्लें मोरपीस
दोन दुकां पानार
मोरपीस परत एक खेप
धुल्ल फाफडून
दोन पानां मदीं
डायरी बंद करतना मात
नवो संकल्प

## गर्भकूड

मांय!
तेन्नाय तूं हांगा आसली
जेन्ना एका अंधारगर्भांतल्यान दुसऱ्या अंधारगोलाकडेन
वाटचाल करतना
आयकूंक आयलो म्हजो पयलो ट्यं हंऽऽ
आनी उपरांत
वेणांच्या अंतीम खिणांक
साक्षीदार म्हणणूय तूं हांगा उबी आसली
झगझगीत उजवाडान उजळिल्ले
आपले बंदिस्त गर्भकुडींत
मांय!
येवपा वचपाच्यो सगळ्योच वाटो वतात
तुजे गर्भकुडीवेल्यान
वोता पावसांत, थंडी वाऱ्यांत हे येरादारीन
उध्वस्त जाल्या तुजी गर्भकूड
विखरून पडला चिऱ्यान चिरो
झाडां झोपांनी, रानतणांत
लिपून गेला तुजो निवारो

मांय!
कोणय ‘लाल‘ मेळतय
गर्भकूड बांदून दिवपी
पूण, नाकाच मांय!
गर्भकूड बांदून घेवं नाका
तशीच उरूं ती विखरलेली, उध्वस्त
शेणिल्ल्या वाटसरूंक
येवपी वाचप्यांक
आपली वाट तरी सांपडटली
भायर फाफसल्ल्या
करूणाघन उजवाडांत

## दिवाळी

रातीच्या काळखाक उजळावपी
लाख लाख दिवे
फोगाची आतशबाजी
जल्लोष!
म्हळ्यार, दिवाळी आयली तर -
हिकाच दिवाळी म्हणटात?
कोनशाच्या वोल्या गच्च काळखान
अस्वस्थ जावन प्रस्न केलो
हांव मोनें, स्तब्ध
त्या काळखांतूच
भिण्ण काळशा अशा
अशे वेळार
दर्यांतल्या फोलेरावरी
एखाद्री मिणमिणपी पणटी
ल्हवूच कानाकडेन गुणगुणटा
'न्हीद आतां...
न्हीद आतां मातशें
रात खूब जाल्या...'

## वळणवाट

हांव जाणां
हांगचो वारो लेगीत तुजे अखत्यारिंतलो
खात्रीचो
गर्विश्ठपणान तुजीं पावलां
मागीर बेश्टींच मातयेक चिड्डीत वतात,
कुस्करत वतात,
मातयेची उब, वोलसाण
निस्तून वता, त्या पावलां वेल्यान
एक अखंड करकर
शांततायेक गिळून उडोवपी
पावलांची
आनी काठोकाठ उचंबळपी
उदकाच्यो कावडी घेवन
तुजे फाटल्यान धांवतना
उरांत फुटपी एक धाप
आतां पावलां थांबल्यांत,
ओले मातयेंत
रूजल्यांत
उबदारपणान
फाटीं वळून

## चवकट

जनेला भायली
तुवें दाखयिल्ली
एकसुरी एक खांदी
कंवळे पालयेन नटिल्ली
जनेलाचे चवकटींत मावपी
तितलीच दिसता
पालयेचीं पांचवींच पानां
सुर्वेक डोकावपी कळयो
उपरांतचीं तांबडींच फुलां
इतलेंच दिसता
आतां तुवें सांगलें
परतून परतून वर्णन केलें तरी
सामकारचें मेकळें मळ
भुरग्यांचे भारावेले खेळ
पयस मेरेन पसरिल्ली निळाय मळबाची
वो पावसचींब माती
भुरग्यांचो बोवाळ, शेवण्यांची किलबिल
कांयच दिसना
हें सगळें जनेला भायर आसा?
तूं सांगता जाल्यार आसतय
म्हाका मात जायत्या दिसांचे
सवंयेन
फकत खांदीच दिसता
एकसुरी एक

## बदल

इश्टा,
फुलपाख्याचें मरण तुवें केन्ना पळयलां?
रंगरंगयाळ्या रंगांचें ल्हवल्हव पालवत वचप
वो अचानक फुंकर मारिल्लेवरी
पालवप, गोबर जावप
रसरशीत चैतन्य
अद्वितीय सौंदर्य
अंत असोच आसता व्हय इश्टा?
काय पळयतना मळब अशेंच भरून येता
दुख्ख व्याकूळ मनशावरी
गदगदपी रूखावरी
तुका सांगूंक येता तर बरेंच
नातर चिमटेंतल्या फुलपाख्याच्या पाखांक
वो त्या फुलाक
जाचेर तो फुलपाखो बशिल्लो
विचारीन
सांजवेळचीं भांगराळीं वोतां
अचानक जेन्ना काळशीं जावन वतात तेन्ना...

## कोरे कागद

इश्टा,
कालच डाकेन आयले
कांय कोरे कागद म्हज्या नांवान
लिफाफ्याचेर धाडटल्याचें नांवूच नासलें
इश्टा!
कांय वर्सां आदीं म्हज्या वांट्याची मात मातशीशी सांजवेळ
मातशी रात जागुनय
न बरयिल्लीं अस्पर्श, अनाघात भावशब्दांची परमळीत कांय पत्रां
हांवें धाडिल्लीं, तुका
पूण लिफाफ्यांचेर नामोच बरोवंक नासलो
आयले रुतू... सरले रुतू
मजगतचे वावझडींत
रूखांच्या पिकिल्ल्या पानां वांगडा
कांय पांचवीं, कंवळीं पानांय गेलीं गळून
रूख मात उबोच आसा तेन्ना सावन
इश्टा!
बरोवंचें म्हळें तरी बरोवं कितें
पेनांत शाईच ना
कालचे कोरे कागद मात फडफडटले
तुज्या उस्वासाचे झुळकीन
अशेच दवरल्यात
जनेलांत

## सोदीक

घट्ट आवुळिल्ले बाळ मुठयेंत
जायतें धरून दवरिल्लें आसता
ताका कितेंय नांव दियात
वाडटे पिराये वांगडा बोटांचे खाचींतल्यान
खूबशें निस्तून वता
आनी उरिल्ल्या मातश्या अर्था पासत
गरजे भायर वतात आमी
रस्त्याचे सोदीक
रस्ते सोडून दिल्ले
अनाथ,
बेवारस भुरग्यांवरी–
आमी मात
आमच्याय नकळत
वयर पळयतात
हात पसरिल्ले आसतात
अथांग मळबाखाला
पांया खालचे मातये साक्षीन
'दी दान'चो साद घालीत

## नोस्टाल्जिक

जायत्या वर्सांनी आमी मेळ्ळे
कितलो काळ सरलो
तुमी तशेच
ल्हानसार ठेवण
दोळ्यांतलें मायेस्तपण
स्वरांतली ओलसाण
तीय तशीच
पूण मातशी चडूच भिजिल्ली
जिवितान जायतें कितें
सांगिल्लें, वदोवन घेतिल्लें
जियेवपांत बरेंच कितें
शिकयिल्लें, भाग पाडिल्लें
हातांत घेतिल्लो हातूय
ओलसार,
'तुका मेळ्ळें धुवे,
बरें दिसलें'
आनी भर दनपरां भुरगेपण सरसरत गेलें
कंदिलाच्या उजवाडांत
दाखयिल्ली वाट
दिल्लो दिलासो
'हांव हांगा आसां उबो, भिवं नाका'
मागीर सगळो काळोख वतालो इश्ट जावन
सावळ्यो नाच्च जाताल्यो

सकाळीं शाळेंत वतना,
तुजें बोट धरून
शेतां आनी रस्तो हुंपप जातालें
शाळा रोखडीच लागीं येताली
कितलो काळ सरलो
आतां तुजें बोट म्हज्या हातांत
आनी गेटी मेरेन वतना
तुजो भिजिल्लो स्वर
तळवोय पाझरूंक लागिल्लो
'मेळया रोखडींच'
वळटना ही खात्री काय दिलासो?
एक ल्हानसार ठेवण
थकिल्ल्या पावलांक ओडटाली
फाट करून

## वळख

पुराय रातचे मदलशींत
जायते चशक जातात रिते
फुटूनय वतात जायते
चक्काचूर जाता तांचो
कंवच्यो शिंपडटात सगळ्याक
आनी कंवचेच्या दरेक कुडक्यांतल्यान
तकली भायर काडटा
एक नवो मनीस
पुरायेन अनवळखी सो!
भितर मेरेन रूजिल्ली
एखाद तरी जखम
ठसठसपी
क्वचीत भळभळपी
नकळत उक्ती करून
समजूतदारपणाची बेगडी झूल मोखून
धुंद जावन वतात चूर जातात
आपले भितर
एकटोच जावन वता
रंगल्ले मदलशींत
दिसाच्या उजवाडा वांगडा मात

एकटेंपण वेगळें करतात जतनायेन
मुखामळ खसखशीत पुशीत
कपडे वेवस्तीत करीत
एक नवो मनीस
चोम्यांतल्यान चलूंक लागता
जमावांतलोच एक म्हणोवन घेयत
दिसा उजवाडांत
एक नवी वळख
स्वताशींच पटोवन घेत
स्वताकूच पटोवन दियत!



## कंदील

काळखाच्या स्पर्शान
सळसळपी पिंपळाचीं पानांय
शांत जाल्लीं आसतना तो आयलो
एखाद्रे खोल, भळभळपी जखमेवरी

आवाजाच्या बाजारांत
काल सरिल्ले पावणेंतल्यान
मातशी शी शांतताय
आपले जखमी कुडीचेर लेपून
तो आयिल्लो
ताच्या हातांतलो मिणमिणपी कंदील
वाऱ्याच्या झोतान केन्ना पालवत
हाचो नेम ना
व्हांवपी थंड वारो
अनवाणी पांयाक तोपपी खडे
रातकिड्यांचें संगीत, सांगाताक
तो आयला
येवकाराक उठुंकूच जाय
पूण कालची लढायूच इतली तुंबळ की
जखमी कुडीवयलो खंयचो घाव चड दुखता
तेंच कळना
तो आयलो
कंदील दवरून
गेलोय वचूंक
तसोच

## जखमो

गोबराळ रेवेंर बसून
सामकारच्या विरागी मळबाक साक्षी दवरून
मनसोक्त, धुंद जावन गजाली मारच्यो
तुजे- म्हजेविशीं
हांवें स्पर्शान धुकें टिपचें ।
तुवें कानांनी शब्द पिवचे ।।
हांवें शब्दांक झेलून घेवंचें ।
तुवें शब्दांक तोलून व्हरचें ।।
तुवें घेंवची तान आगळी ।
हांवें आळोवची एक विराणी ।
रंग सगळे येवन वचचे । वचून येवचे
भोगची कविता
उत्कटतायेन
घेवंच्यो शोशून
शब्दां शब्दां मदल्यो खाली सुवातोय
सगळें सत सामकें सत
काळाचे व्हावतेंत मात
दुखावन वता एकेक कविता
हांव सांसपीत रावलें
दुखावल्ले कवितेच्यो जखमो
तूं सोडून दिलें तिका कवितेक
नकळटना तुका म्हाकाय जेन्ना
तेन्ना मळबार आनी रेवेंरूय
निकतीच काजळी धरूंक लागिल्ली
तुका होलमलां व्हय तें?

## रस्ते

पिसापिसांत भरिल्लो
तारूण्योन्माद
भारावन गेल्लीं धुंद गाणीं
पांदऱ्याच्या स्पर्शान अबोल
सळसळपी रूखाचो
ओलसाणीचो पांचवो देह
आनी तांतलें स्वप्नील सप्तरंगी इंद्रधनुष्य
रातीच्या अंधार स्पर्शान
शांत शांत जाल्लें
शब्द फुलांचो ओथंबलेलो पोसो
अर्थांचीं फुलां
निशेतात
तळव्यांतल्यान, बोटांतल्यान
मातशें सोदपांत
मातशां सोदांत
काळ्या काळखांतल्यान
पांदऱ्याच्या सरयांतल्यान
सगळेच रस्ते निसटलेले
पांयवाटां सयत
उतरणेक लागिल्ले, तशेंच
शांत आनी थंड
गाण्याच्या बदलिल्ल्या सुरांक
निरामय करीत

## संवय

सदांच मेजाकडेन बसून
नित्यनेमान बरयतना दिसऽ-
कितें तरी रावन गेलां
न्हय, बरेंच शें रावन गेलां
वळणापोंदचें उदक व्हावन गेलां
मनावेल्यान
कुडीवेल्यान
त्या दिसाचो सुर्यास्त पळयलो
अस्तंतेकडचो लालभडक गुळो
बुडटना
दिसलें
दिसलें, एक कविता रावनच गेल्या
जियेवपाची...
बरोवपाची...

# समुद्र

संततधार कोसळपी पावसांत
अचानक समुद्र म्हजे सामकार आयलो
खांदार हात घालून कितें तरी सांगूंक लागलो
गडबडींत आशिल्लें खांदावेलो हात पयस करीत
पांयापोंदचें उदक कापीत हांवें रस्तो हुंपलो
उपरांत तो दिसलो, एक दोन खेपे, हांगा थंय
हांवें पळोवनूय पळोवंक ना वरी केलें
रातीं सपनांत येवन
तो कितें तरी सांगूंक लागलो
अथांगतायेंत गटांगळ्यो खायत
हांवें सट्टकन दोळे उक्ते केले
तो खंय गेलो कळ्ळेंच ना
सकाळी न्हातना
उदकांत तो हालिल्लेवरी
हांवें सडसडीत न्हावन पुसून घेतलें
मागीर पूजा करतना
ताणें परतून एक खेप दारार मारलें
जनेलाच्या वारांवांतल्यान हात फुडें केलो
जनेलांक दोळे आसतात
म्हाका पयलेच खेप होलमलें
हांवें दोळे अदीकूच घट्ट मिटले

त्या उपरांत मात तो दिसलो ना
हांव हांगा थंय, येतां-वतां आनी मागीर ...
किनाऱ्यार वचून वरांचीं वरां पळयलें
रेंव, उदक, ल्हारां, होडयो, मनशां
सगळें कितें आसलें थंय
एका समुद्रा बगर
ताका कितें सांगपाचें आसलें म्हाका

## दान

भितरलें सगळें विस्कटून गेलां
प्रचंड उलथापालथ
आनी वादळ,
भायलेवटेनचें सूख कोण थापटितलो?
तूं कांटो सांबाळून फूल खूंट
आनी हातांतलो तो तोंकाळ लांब खिळो
अदीकूच भितर मेरेन ठोकून घे,
कपलाचेर
जखमेंतल्यान उन्मळून येवपी रगता वांगडा
वेदना अडसून वचूं दी
मागीर स्वताक
ख्रिस्तावरी वेदनेच्या खुर्सार हुमकळावपाक
वो
'दी दान तेलाचें,
अनंत व्हांवपी जखमे पासत
सुट्टा गिराण अनादी वेदनांचें'
अशी हुयेल मारूक
आमी नि:संग

## मौन

कितलेदां मळबाचे पाटयेर
तुजें नांव बरोवन परतून परतून पुसलें
अस्तंतेचो तांबसो रंग ये मेरेन
अथांग उलोवंचें तुजे लागीं अशें कितले खेप दिसलें
उतरांक जायते खेप सजोवन दवरलीं
अर्थ आनी भावनांक परत परत तपासलीं
एकेक पापुद्रो उसोवपाचो म्हळ्यार
तरीय कितलें कठीण आसता
सगळें कितें तळाक खोल खोल
ताचेर व्हडव्हडल्यो फातरी
शब्द कूड स्मृतिगंध स्पर्शय मोने जातात
मौन असहाय्य असह्य आसता
मनाचे बंद शिंपयेंत
दिसाचो उजवाड पेटयत
काळखाचे सोदीक
हांव मात भोंवडेक
कोऱ्या कागदांचे वाटेन

## प्रस्थान

प्रवासाची वेळ आयली म्हणटकच
तूं अशें पिसाटत वता
हात वयर करून पिशावरी
त्या अटंग्या जंगलांत म्हाकाय आपयता
पूण धीर जायना
आनी अजून तयारी तरी खंय जाल्या
म्हजी
म्हणून म्हणटां, राव गो मातशें
बस गो पिशा
मातशें चान्नें अजून झडूं दी
चंद्रीम आनीकूय प्रकाशपिसो जावं दी
निशिगंध अजून भारेवंचो आसा
तसो प्रवास मातसोसोच आसा
म्हाका खबर आसा
पूण म्हणून कितें अशेंच वचपाचें?
झाकपाक करची आसा
भरिल्ले घडे ओतून दिवंचे आसात
दारां-जनेलां सगळेंच पळोवंचें पडटलें
पोरणे कपडे बदलचे लागतले
इल्लीशी भुतीय आसची वांगडा
स्वता पासत न्हय -

पूण कोणूय भुकेल्लो मेळ्ळो जाल्यार ह्व
देखून म्हणटां, राव गो मातशें
आतां तयारी जायतूच आयल्या
पूण तुजे वांगडा सरूं वो
काय तुजे फाटल्यान, तितलेंच मातशें सांग
म्हणटकच कपलावयल्यो रेगो
तुजे सुवादीन करप सोंपें जातलें म्हाका
पळय,
सगळो निर्मनुश्य घाट
आनी उदकांत पावंडे देंवन वचपी
फांतोड,
हीच वेळ आसा प्रस्थानाची
मागीर या मगो?

## खेळ

असंख्य जखमो दिवन
वेदनांनी तळमळपी सवण्याक
उपरांत
दर खेपे
मळबान अचळय वेंगेंत घेतलें
मातशें झेललें
फुलयलें, सांसपिलें
आनी अरवळ सवणें जखमो विसरून
वेदना विसरून तातूंतच सुखावलें
परतून परतून
हांव मात हुसक्यांत
हो मळबाचो खेळ
सवण्याक सवंयेचो तर
जावंक ना मू?

# पाथेवंचें न्हय पोरा

भरिल्ल्या घरांत अशें तीनसांजचें
पाथेवंचें न्हय पोरा,
आई सांगऽ
तेन्ना सट् करून उठतना, धडपडून बसतना
पायघोळ परकर अडकतालो पांयांत
पिंदतालोय अदीं मदीं
मागीर एक धपाटो, रडारड, सूय सूत
आतांय केन्ना केन्ना अचानक उठतना
रेशमी गावन अडकता पांयांत
पिंदना तरीय!
बेश्टेंच दिसता, पिंदचें ताणें
सांगचें आईन आदले वरीं
'... पाथेवंचें न्हय पोरा...'
एखाद्रो धपाटो, सूय सूत परत एक खेप
देखून बेश्टेंच पातळटां
प्रशस्त बेडाचेर, अस्ताव्यस्त
कोण कांयच म्हणना
म्हज्या सावळी नाशिल्ल्या घरांत
मागीलदारचे काळखे बांयचे काजळ कोनशे
मागीर बेश्टेच कोसळत रावतात
एका फाटल्यान बांयतूच रातभर
सकाळीं मात थंय बांय नासता
मागीलदारय नासता

## बोथट जायत वतना

दुख्खय कशें बोथट जायत वता न्हय?
आदीं हें अशें नाशिल्लें
पूण केन्ना आयलें हें सगळें, अचानक, नकळटां
हें अशें शांत, निस्तब्ध रावप
खंयच कसलो तरंग नासप
तोकाची ही शांतताय केन्ना आयली काय वस्तीक हांगा?
ही नाशिल्ली हांगा
हांगा वादळां आशिल्लीं, ज्वालामुखी आशिल्लो
रागार फुगार, रडप, फुटप
हांसप, खळखळप, नाचप आशिल्लें
आनी दुख्खान गदगदून व्याकूळ जावपूय आशिल्लें
पूण अकस्मात हें सगळें गेलें खंय?
नकळटां ही शांतताय हांगा वस्तीक आयली तरी केन्ना?
तशें पळोवंक गेल्यार भितर कोण तरी
उसयत आसता, मनाच्या सांध्यांचे खिळे
आडयत आसता मनाचो प्रवाह, भावनांचो उद्रेक
आजूय वादळ घुमत रावता, घुमयत रावता,
ज्वालामुखीच्या मुखार साय धरता नाजूकशी
दुख्खान गदगदून व्याकूळ जातनाय
आसवांचो लोंढो अडटा पातकडयां आड

स्फुंदून, फुटून रडटनाय, दोळ्यांक ताकीद आसता
सुके सडसडीत रावपाची
गळ्याक इशारो आसता भरून न येवपाचो
आणीबाणी लादून घेतली काय अशेंच घडटा सगळें
पुराय निबर, बोथट जावंक येना म्हणटकच अशेंच घडटा सगळें
एके एके विटेन गढी कोसळत रावत
आपले हातांत आसता फकत उध्वस्त जायत वतना
कोनशान कोनसो शिवपाचो असफळ प्रयास करप
वो उसवल्या पाख्यांतल्यान
भरून आयिल्लें मळब नियाळप

# युध्द

आपलेच कुडीचो वांटो आसपी
अभेद्य दिसपी
संरक्षक कवचाचेच
कपचे वचूंक लागतात
आनी
युध्द सुरू जाता
तुंबळ युध्द -
वारां फाटल्यान वार
घावां फाटल्यान घाव
तीर रूतत आसतात
कूड बेधत आसतात
रक्तबंबाळ करीत्त आसतात
आमी कितें करपाचें?
आपले हाती कितें ?
वाट पळोवप
तीरांची, एकाच वाराची
आनी फकत एका घावाची
वर्मी बसपी!

## मोगा पासत

जायत्या युगां आदीं हांगा एक देव रावतालो
देखणो, सावळो, घननीळ
तो जादूगार, जादू करतालो,
दूद, धंय, लोणी चोरून खातालो
तो कालियाचें रगतूय पियेलो,
पुतनेचें विखूय खालें,
तो किशोरावस्थेंत आयलो
गायो, गोरवां घेवन वनांत गेलो,
अस्तुऱ्यो आपले घोव विसरल्यो
ताचे बासरींत पिसावल्यो
तरणेपणी तो महाभारत खेळ्ळो,
गीतेचें तत्वगिज्ञान वदलो,
इश्टांखातीर ताणें दुस्मान वाडयले
जायते शिरापूय घेतले
ताका म्हातारो म्हूण याद करूंक आवडना अस्तुऱ्यांक
देखून तो तरणेपणारूच सोंपलो
युगां सरलीं, अस्तुऱ्यांक ताचें पिशें
आपल्या बाबुल्यांक थापटितना त्यो, ताच्या नांवान
तरण्यो चलयो ताच्या वेणून पिसावलेल्यो
आपल्या प्रियकराक पळयतात ताच्या रूपान

जायत्या युगां आदीं हांगा देव रावतालो
देखणो, सावळो, घननीळ
ताणें सोळासहस्रां परस चड बायलो केल्यो
एका शेणिल्ल्या मोगा पासत!





## ल्हारां आनी रेंव

उधाण आयिल्ल्या दर्याच्या ल्हारांनी
पांयां पोंदचे सरकपी रेंवें सयत
जेन्ना तिचो ताबो घेतलो
हांवेंय फाटीं फुडें पळयनासतना उदकांत उडी घाली
अजस्त्र ल्हारांच्या हेलकाव्यांत
सकयल, वयर
वयर, सकयल
तीं आनी हांव
देगेवयलीं मनशां
स्तब्ध, निस्तब्ध, अवाक
वाट पळोवपी
ल्हारांनी सगळे बंध विस्कटिल्ले
रेंवेन आत्मसमर्पण केल्लें
तरीय देगेर परतुपी तीं
आनी खाऱ्या उदकाचो आवंडो गिळीत
ल्हारांवांगडा
हांव
सकयल
खोल मेरेन!

## परागंदा फुलपाखो

म्हजे कवितांचे वहीचेर
बसपी रंगरंगयाळो फुलपाखो
खंय जालो काय परागंदा?
म्हजे बागेंत ताचो वावर, सदचोच
हे खेप तर वसंतूच आसा, बागेंत
फुलांनी आनी सुगंधान
भारावन गेल्या बाग
वहीय जनेलांत दवरल्या हांवें
थंड वाऱ्याच्यो झुळको
वहीच्या पाना पानाक शोषून
निथळतात
समाधानान
जनेलाचेर
फुलपाख्याचो पत्तो ना
....
कितली वाट पळोवंची?
वहीचीं, हळदुवीं, पोरणीं जाल्लीं पानां!
बागेंत आतां शरद
आनी वहीच्या दोन पानांत
फुलपाखो
सुकिल्लो !

# संदर्भ

तूं जेन्ना निथळत वता म्हज्यांतल्यान
तेन्ना म्हजीं मनपाखरां मात
सैराट जातात घोंटेराचे सोदीक
सततचो सोद -
घोंटेर काय मेळना, सोद काय थांबना
तेन्ना तुज्या दोळ्यांतलें प्रस्नचिन्ह
म्हज्या तपकिरी दोळ्यांच्या लोलकांकडे,
जे सतत चमकत आसतात
आसुसलेवरी पळोवंक लागतात एकेच आशेन
ते लोलक केन्ना तरी जिवे जातले -
पूण तशें कांय घडना
आस पालवूंक लागता

सगळे संदर्भ विस्कटत वतात
अशें एकामेका सामकारा निथळताना
एकमेकांक जियेवंक निरर्थक करीत
खऱ्यांनीच काय
संदर्भा बगर आमकां जियेवंक येना?
जियेवंक येवंचें ना?

# रावनूच वता

तुजी भेट जावंचे आदीं
जायतें कितें घडत आसता थारत आसता
मनांतल्या मनांत
आयज उतरां इतलीं जातलीं
आयज इतलीं फुलां फुलतलीं
आयज इतलीं नखेत्रां हांसतलीं
एक न्हय दोन.... असंख्य...
भेट जातकच
सगळेंच विसरप जाता, स्वतासयत
उतरां, फुलां, नखेत्रां विखरून वतात
दोळे, मन परकें जाता
काळजांत साचिल्लें उदक निस्तावन उडोवंचें दिसता
पूण सगळें तशेंच रावता
आमी जायतें उलयतात पूण
तशें कांयच उलयनात,
मनांतल्या मनांत मोने जावन
उतरां वेगळेंच रूप घेता
कितेंय बडबडटना इंगळे जातात
अशेंच निरोप घेतना कितें तरी रावलां अशें सदांच दिसता
मेकळें जावंचें आसता पूण रावनूच वता
तुजी म्हजी भेट जाता तेन्ना
अशी चुटपूट सदांच कित्याक लागता?

## जिलेटीन

काळ्याकिट्ट कुपांनी भरून येवंचें मळब
वो रातीच्या घनघोर अंधारान
गिळचें पुराय वस्तीक, घरांक
रोगट, हळदुव्या दिव्यांसयत
अशे वेळार रंगरंगयाळ्या जिलेटीनान
वेढून उडोवंचे सगळे हळदुवे दिवे,
मनशांत अडसल्ली मरगळ
शुभ्रतायेचो, बिनरंगाचो जिलेटीन
समृध्दीचो पांचवो, वैराग्याचो भगवो
वो रगतावरी तांबडो
मळबाचो निळो
कितले लावचे जिलेटीन
अस्तित्वाचे म्हज्या
वस्ती सोंपना, मनशां बदलनात
घरां उजळटात तात्पुरतीं
पूण काचेरी जीवघेणी शुभ्रताय काचत उरता
हळदुवसार रोग प्रकाशासयत
वस्तीचेर घरांघरांनी

## नेमकें

जिविताच्या दरेक वळणार
फकत दोशच वांट्याक..
आमीय स्वताकूच दोश दियत गेले
भोवतेक आमीय चुकल्यात आसत
ह्या विचारान स्वताकूच जायते खेप
आरोपीच्या पांदऱ्यांत उबें केलां
आपणें करूंक नाशिल्ल्या अपराधाचें
परायचीत भोगीत रावले
जायते खेप वायट अणभवांतल्यानूय
मनशांचेर परतून परतून भरवंसूक रावले
स्वतापासत आनंद सोदपाचे
वो जिवितांत खुशालकाय सोदपाचे जायते प्रयत्न केले,
आपल्या आवाक्यांतले
पूण भितरलो गाभो सुकोच सदां
म्हणटात, खोस आपले भितर आसता
खंय शेणली काय, म्हजे भितरली खुशालकाय
वो ती नाशिल्लीच
कोण आयकुपी
वाटून घेवपी ना
कोणाचेर भरवंसचें
असो कोणूच ना
काय म्हाकाच कोण पटूंक ना

## एकटी

कलकलाट, कोलाहल, गडबड
वाहनांचे आवाज, हॉर्न
ह्या शाराचे
सांजवेळचे रस्ते अशेच व्हांवतात
मनशांनी उप्पाट भरून
खांदार बॅग वो पर्स
सावरीत, सांबाळीत
पांयांतले बूट वा चपलां चटकयत
एक धांवपळ मशिनपणां धांवत आसता
आपापल्या घोंटेरा दिकेन
गाडयो, बस, ट्रेन्स
वो मनाची ओढ
आधार घेवन कित्याचोय
मनीस देखून धांवत आसता
सांजवेळ जालो म्हणटकूच
आपल्या घराचे दिकेन
सुर्यास्तासावन अस्तमे मेरेन
आपलो/ताचो दीस
व्यग्र, व्यस्त, गुंतून गेल्लो
वो मोहरून आयिल्लो

तीय तशीच
दिसपट्ट्या जियेवपाच्यो सावळ्यो
ऑफिसांत सोडून
रस्त्यार देंविल्ली
रस्तो व्हांवता
तीय तांतलीच
उदास सांजवेळ कामरून घेवन
पदराक लपेटून
देंवपी काळखाच्यो सावळ्यो मेजीत
घराच्या रस्त्याचेर
व्हांवपी गर्देंत
एकटीच
अनाम कोलाहलांत
नि:शब्द!

# चली

खेळण्यां पासत चलयेन केन्नाचो हट्ट धरिल्लो
आनी बाजारांत वचप काय जमूंक नाशिल्लें
मागीर एक दिसा हांवें
आंगणांत खेळपी चलयेच्या एका हातांत
मळब दिलें
आनी दुसऱ्या हातांत जमीन
'खेळ कितलें खेळपाचें आसा तें'
सांगून हांव घरांत आयलें
चली मनसोक्त खेळ्ळी
चिखल, मातयेन तिणें माखून घेतलें
तिनसांज जाता म्हणसर
हांवें सादयलें चलयेक, म्हळें,
'चल घरांत यो'
चलयेन मोखून मारलें मळब
उंचायेर, वयर सामकें वयर
शिरकायलें ताका थंयच हुमकळपाक
मातयेन माखिल्ल्या पांयांपोंदा तिणें
चिड्डून उडयली जमनीक
आनी झेपावली म्हजे हांडीर
दुसऱ्या खेळण्यां पासत हट्ट करीत

हुंबऱ्यार पावतां पावतां तिणें अस्तंपी सूर्य पळयलो
तांबडो भडक, भांगराळो
ताका खेळचें आशिल्लें त्या पेल्लाकडेन
हुंबऱ्यारूच ताणें हट्ट धरलो ताचे पासत
हांव किंकर्तव्यमूढ
जमीन, मळब हांवेंच दिल्लें ताका खेळूंक
हें विसरून!
हांव हुंबऱ्या भितर
आनी चली हात उंचावन
सुर्याकडेन झेप घेवपा पासत
तय्यार...!





# अस्तुऱ्यो

स्टेशन आयलें
गाडी स्टेशनांत भितर सरतांच
त्यो भितर घुसूंक लागल्यो
एक दुसरेक धुकलीत तर
केन्ना आधार घेयत
तांचे वांगडा एक तीव्र, घामेल्लो
नाकासो दिसपी एक गंधूय डब्यांत भितर सरलो
तांच्या बोचक्यां - पोतयांतल्यान
पोटल्यांतल्यान, काळकट न्हेंसणांतल्यान
ताचेर चडयिल्ल्या फडक्यांतल्यान,
स्वेटरांतल्यान, चुमळींतल्यान
जायत्या अस्तुऱ्यांचे लेंस नाकाकडेन
धसकन्न, वसकन्न तांचो गाडयेंत प्रवेश
आतां मेरेन मरगळिल्ली, शांत गाडी
जिवंत जाल्लेवरी
तांच्या कोलाहलाक, बोवाळाक लागून!
आपापल्यो पोटल्यो, गाठोडीं
जमता तशीं ताणीं सरकयलीं
बाकापोंदा, रॅका वयर
कांय जाणी त्या पोटल्यांचेरूच बसल्यो
मदले मेकळे सुवातेर
ती तांची हक्काची सुवात
तांची स्वताची
बाकांचेर तांकां बसपाचें नाशिल्लेंच
पिंदके कपडे, कांबळी

भरभर मदले पॅसेजींत पातळायलीं
तांचेर तांच्यो थकिल्ल्यो भागिल्ल्यो कुडी
खिणभर्यांत डबो परतून एक खेप
शांत, निवांत
तांचे संथ लयेंत हालपी
स्वासां वांगडा गाडी धांवताली
कितलो वेळ सरलो कोणाक खबर
स्टेशन नदरेच्या टप्प्यांत आयलें
आनी चावी दिल्ल्या खेळण्यावरी
त्यो भराभरा जाग्यो जाल्यो, उठल्यो
आपापलीं हांथरूणां, पोटल्यो, गाठोडीं आवरून
स्टेशनार देंवल्योय बी, गाडी थांबता म्हणसर
ताज्यो तवान्यो जावन
हांवूंय तांचे फाटल्यान देंवलें
पांय ओडीत, थकिल्लें
हांव कित्याक न्हिदूंक शकलें ना?
तांचेवरी
शांत, निवांत!

# अस्तुरी

गरजे प्रमाण दरेक साच्यांत
तिका बंदिस्त करून दवरली
गरज सरली तशी तिका
कमरेक खोवन दवरली
गरज नासली तेन्ना
तिका हुमकळायली खुंटयेर
तिका जाय आशिल्लें मेकळें मळब
तिका जमनीर देंवयली
पाखां शिवून
तिका चलपाक शिकयलें
केन्ना अनवाणी, केन्ना उपाशी
तर केन्ना पिचलेली
केन्ना शक्ती तर केन्ना सरस्वती
केन्ना उज्याच्या ज्वाळांनी घेरिल्ली
तर केन्ना घराच्या चार वण्टींनी चिड्डली
केन्ना संपन्न कुटुंब
तर केन्ना अत्याचाराची काणी
केन्ना शाराची अत्याधुनिका
तर केन्ना गांवची सलज्जा
स्थितीप्रमाण ती बदलत गेली
स्वता बदलायत गेली
काळा वांगडा चलत रावली
काळ बदल्लो, मनशां बदल्लीं
समाजूय बदल्लो
समाजाच्यो मान्यतायो, परंपरा बदल्ल्यो
फकत अस्तुरी न्हंय जावन व्हांवत उरली

# सोद

तिचीं उन्नत वक्षथळां
तिचो कमनीय बांधो
तिचें वळणावळणाचें शरीर
तिचो उठावदार पुष्ठभाग
तिचे वोंठ, तिचे दोळे
कांयच नासल्यार उलगलो बाजार
तिचे कपडे, चलप, उलोवप, वागप
सगळेंच तांचे नदरेंत आस्पावल्लें
ओतपाकडेन आयिल्लें
ताचे भितर तिचें अस्तित्व नासताच
तांचे नदरेन
तिचे दरेक उभारीचेर तांची नदर
तिचे दरेक गोलायेर तांची नदर
ते नदरेंतली वखवख, बलात्कार
ताचे पलतडचें तिचें मनीसपण
सोंपिल्लें आसता, तांचे नदरेंत!
तिका कळटा, उमगता
पूण ती मात सोदीत आसता, प्रयत्न करता
एखाद्रे तरी नदरेंत मेळची मनीसपणाची झलक
तिचो अट्टाहास तेच पासत
तिचो सोद ताचोच
तें सोदपा पासत कितले तरी सोद
पूण मनीसपणाची नदर क्वचीतूच
नासतच चडशी
ती फकत चुकत, विस्कटत, सोदांत
परतून - परतून
परत - परत!

## 'ती'

'अलार्म' वांगडा फांतोडेर उठून
सटासट आवरता सगळें ती
भुरग्यांचे डबे, घोवाची तयारी
गॅस, दारां, जनेलां, लॅच
पळयता परतून परतून ती
तिका ऑफिसांत वचचें आसता

बायलांनी भरून ओतिल्ल्या
लोकलच्या डब्या भायर ती
एका पांयार जेमतेम हुमकळिल्ली
खांदाक पर्स गुठलायल्ली
तिका ऑफिसांत वचचें आसता

बस, रिक्शा, टॅक्सी, चलत, धांवत
जशें परवडटा तशें
ती 'मस्टर'चो फाटलाग करता
ते वेळे लागीं सर्त करता
तिका ऑफिसांत वचचें आसता

स्वयंपाक, झाकपाक, फायची तयारी
थकिल्ली कूड, थकिल्ले अवयव
कांय काळा खातीर ती उसणें दिता ताका
सगळें उरकून तिका न्हिदपाचें आसता
तिका ऑफिसांत वचचें आसता

पगाराचो दीस, पगाराची वाटणी
सपनांचे हय न्हयशे कवडसे
उसाचो रस पिवपाक रसवंतीगृह
ती घुसता चरख्यांत उस जावन
सरता भायर चिपाड जावन
तिका ऑफिसांत वचचें आसता

## बाये...

बाये, काय बरें झाडलां आंगण
उदक मारलां, सारोवन काडलां
फांतोडेर उठून अशें पुराय घरदार
स्वच्छ जालें काय
तूं उबी रावता
आंगणांतल्या तुळशी पेडावरी
एका कोनशाक
भोंवडायता नदर सगळे कडेन
कवतुकान
पालवाक हात पुशीत
परतून वळटा घरांत
मागीर दिसभर बांयचे वयले गाडयेवरी
कुरकुरत रावता,
उदक काडीत रावता
'गाडयेच्या सांद्र्यांत तेल सोडूंक जाय'
स्वताकूच सांगत रावता

सांजवेळा मागीर
सुरकुत्यांच्या खडबडीत बोटांनी
शेंवत्याची फाती घालीत रावता
वर्तुळा भायर
दुसरें वर्तुळ आखीत रावता

## व्हडें

कागदी व्हडीं करपाचें पिशें आदीं सावनूच
म्हळ्यार ल्हानपणासावनूच
समजूंक लागल्या सावनूच
व्हडीं....
तरातरांचीं केलीं खबरांपत्रां पिंदून
बाबांचे फायलींतलीं कागदां ओडून
केन्ना बोबो, केन्ना धपाटो
पूण पावळेच्या उदकांतल्यान व्हडें सोडलें काय
व्हांवत वता आंगणांतल्या उदकांत
आनी थंयच हेलकावत, हुमकळत
आनीकय मुखार व्हांवत वता
वयल्यान पावस पडतूच आसता
दोन चार थेंबे व्हडयेंत
आनी ओलें गच्चच व्हडें
लगदो जावंक लागता
उदका वांगडा वता विचित्र तळाक

आतां हातपांय दोडून
मानेक वाकोवन
कुडीचे प्रत्यंचेक ताण दिवन
देहाचें व्हडें केन्नाचें तयार
पावस आजून आयलोच ना...!

## उजवाड

अवकाशाचे पोकळेंत
साचून राविल्लो काळोख
देवूंक लागला भुंयेर
ल्हव ल्हव निस्तत
घनदाट काळखान
भरून गेलां अवकाश
काळोख उसपिताना
हात थकून गेले
कूड जीर्ण शीर्ण जावन गेली
मन झरूंक लागलें
काळोख मात सोंपत नाशिल्लो
जिणें अशें थांबनाशिल्लें
अचानक एका दिसा
फाट सरळ करून उबें रावतना
उजवाडलां म्हणपाचें दिसलें
प्रकाशाचें नवें वारें व्हांवताना जाणवलें
काळखाक सरावल्ले दोळे
खिणभर दिपकावले

जेन्ना उजवाड होलमलो
तेन्ना मात पळोवंक लागलें -
आतां काळखाचे दोंगर विरून गेल्ले,
उजवाडाच्यो सावळ्यो
काळखाक फाटीं सारून
मुखार सरसावल्ल्यो

## दोन दोळे

वळणावळणाचेर लॅण्डस्केप बदलत वता
बाबडे दोन दोळे कितलें साठयतले
तुजी अगाध चित्रमयता?
काळ्या कुळकुळीत कातळांनी शेर्क घाल्ले पर्वत
पांचवेचार वनश्रीन धांपून घेत पांचवेचार जातात
तर धव्या फुल्ल बर्फांत माखून
संन्यस्त साधू जातात
कांय तर हळदुव्या तांबड्या रूखांनी रसरशिल्ले दिसतात
हें रूप अशें कशें बदलत वता?
तुज्या अगाध, मायावी रूपा सारकें?
इतली तुजी चित्रमयता
पूण मनशां बाबतींत
केन्ना केन्ना कशी इबाडटा?
काय मनीस ती इबाडून उडयता?

## वेदनाणभव

यादींचें रंगरंगयाळें सवणें
म्हज्या खांदार येवन बसलें
हांवें ताका काळजाकडेन धरून पोशेलें
ताच्या पांखांवेले रंग विस्कटाय नासतना
ताका कुरवाळ्ळें
ताळटाचेर धरून ताका नियाळ्ळें,
मोगान, सामकें जिव्हाळ्यान
सवण्यान ताळटाचेर चोंच घासली
पांखांची फडफड करून
खोस उक्तायली
आनी कितेंय कळचे आदींच
गुलाबी तळव्यार चोंच मारली
एक तीख्ण वेदना
तळव्यांतल्यान तनामनांत पातळ्ळी
सवणें उडून गेलें, वेदना जिविताक वेंगावन गेली
सवणें आतांय परत येता
आड्यार बसून

तरांतरांच्या आवाजांनी शिंतीद
वेधून घेवपाचो प्रयत्न करता
सवण्यांचीं पाखां आतां गोबरान माखिल्लीं
आवाजाची तीख्णताय कर्कश
ताचे चोंची सारकी, म्हजे वेदने सारकी
हांव मात हालीं पांदऱ्यांत
मेकळ्या सवण्याक नियाळीत
आनी खंयचें सवणें लागीं येवंचें न्हय म्हूण
स्वताकूच सावरीत

# सकाळ

वयल्या पुलावयल्यान
मनशांच्या गाडयांची सतत यो वच
एखाद्री संथ लयेंत सुटिल्ली बोट
उदकाचें बोट धरून उफेत आशिल्ली
सवण्यांचें भिरें
देगेवयल्यान उडत येवन
उदकांत झेप घेवपी वो
उदकाचेर थिरावल्लें
देगेवयलीं घरांय
धुक्याची गोजडी कामरून निवांत पोंवडिल्लीं
एक व्हड 'बारेज' संथ लयेंत येता
उदकाचेर व्हड ओळ मारीत
मुखार वता
ताचें हें सदचेंच
तेच वेळार, तेच सुवातेर
उदकाचेर वारोय पोंवडिल्लो
संथ लयेंत कुशी परतीत
सकाळची मांडोवी अशीच आसता
आळसाविल्ली
न्हिद्रिस्त !

## तुजो समुद्र

तूं गेला पयस
समुद्राच्या गांवाक
जंय सळसळपी माड आसात
सुपारेचीं कुळागरां
आनी मोव मोव पुळण
थंयचो सूर्य उदेता समुद्रांतल्यान
आनी अस्तंताय समुद्रांतूच
समुद्र मात शांत, गंभीर
पोटांत पचोवन असंख्य गुपितां
उशाक घेवन फाल्यां पासत निवांत
एखाद्र्या सन्यस्त फकिरावरी
ताची धुनी अखंड
लवणाच्या रूपान
ताचें घोगेवप सतत
वादळाच्या रूपान
ताणें येवंचें हांगा मेरेन
देखून म्हजी प्रयत्नांची पराकाश्ठा
मेळ्ळें कितें?

हिशेब ना
तूं मात एक कर
थंयच्चान भायर सरतना
पोसोभर समुद्र घेवन यो
तुज्या पोशांतल्यान
बोटांचे खांचीतल्यान गळनाशिल्लो
पूण पोशांतूच अखंड हेलकावपी
ल्हारां वांगडा!
हो तुजो समुद्र आसतलो
म्हजे पासत हाडिल्लो
यो, तुजो समुद्र घेवन यो !





## हिशेब

आयुश्य म्हळ्यार तरी नेमकें कितें?
कितें आसता हें आयुश्य?
दिसां फाटल्यान वर्सांनी वचपी आयुश्य
एखाद्रया थकिल्ल्या भागिल्ल्या प्रवाशा सारकें
पांय ओडीत, फरफटत वचपी आयुश्य
कितले खेप ह्या आयुश्याचे लाड करपाचे
कितले खेप ताका जगपाक फोर्सार करपाचें
हेरां पासत, सगळ्यां पासत
हें अशें जियेतना मागीर विसरूनच वतां
स्वतां पासत जियेवप
उरता फकत फरफट, तगमग
उरांत फुटपी हरणाची विद्धता आनी व्याकुळताय
कशें जगपाचें, जगपाचें तरी कशें?
मन मारून, चोरून-लिपून
बेश्टेंच झगडून तिडून
हिशेब चुकयत काय घेत?

## ‘म्हजें’ पण

म्हाका म्हजें संगीत मातशें ल्हवपीक मंद जाय आसता
शब्दसुरांनी, भावनेन भरून गेल्लें
म्हाका म्हजी कॉफी मातशी कार्रेगाद जाय आसता
उणी गोड पूण कडवट कडक
म्हाका म्हजे कपडे बरे, फेर्र मारिल्ले
निट नेटके जाय आसतात
म्हाका म्हजीं पुस्तकां शिकोवपी, वेवस्थापकीय नाका आसतात
तर इंगित साध्य करपी सूचक जाय आसतात
म्हाका हें जाय, म्हाका तें नाका
हें अशेंच जाय, तें तशेंच जाय
अशेंच, बेश्टेंच आग्रो करीत
आयुश्य कडसरता
खरें करपाचें, खरें पळोवपाचें रावनूच गेलें
खऱ्यो गजाली तश्योच रावल्यो
रावून उरतात, सुटून वतात
फायचे विवंचनेंत आज गेलो
आयचे काळजेंत काल सरलो
जियेवपाचें मात रावनूच गेलें
खऱ्यानीच खरें जियेवपाचें सुटून गेलें

## शीतगृह

दोळ्यांची भास कळटा
तरी समजून घेना
स्पर्शाची धग होलमता
पूण कुडीचो बर्फ
मनाच्या शीतगृहांत येवन
केन्नाचो शेकेला

## बांय

खोल खोल देंवत वचपी
एक काळें विवर, कृष्णविवरावरी
बांय
संथ उदकाकूय ओढ आसता
ज़ीवघेणी
बांय
खोल खोल व्हरपी पावंडे
देंवत वतात तळाक, गाभ्याक
बांय, बांयवेली गाडी
करकरपी - सतत
आनी बांदावयलो पिंपळ
सळसळपी - अदींमदीं
बांय
रूतत वता म्हज्यांत
आनी हांव रूतत वतां बांयत
तेन्ना रुखांचे उलगपी भार
पालवत वतात, फाटले वटयां
आनी आंगभरचीं फुलां पालवून
फांतोड देंवता
बांयत
सकाळ जावंचे पासत!

# लालसा

लालसेचे ते सटवेन
पिसावन उडयला ताका
तिचें देखणें, गुलाबी रूप
वेश्टावन गेलां ताका
हांसत हांसत तो तिच्या पासांत
सावज आवाक्यांत
आपली लांब सडक, लाल भडक, लपलपपी
जीब काडून तिणें गिळंकृत केला ताका
तो मग्न, गुंग, वेळेच्या पयल्यान
मागीर ताणें जल्म घेतलो
नव्या रूपान
सामको गोड, गुलाबी, मस्त्या भुरग्यांत
दिसा कणकणी बाळक वाडूंक लागलें
ताचें देखणें रूप, ताचीं मस्तेपणां
मोहक, आकर्शक
ताच्यो बाळलिला गुंतोवन उडोवपी
पूण बाळकाचे वाढीचे वावटळींत
ताचें घर, ताचो घराबो
खंय वादळ्ळें कळ्ळेंच ना
बाळक मात वाडटा
दिसा कणकणी
लालसेचे ते लावसटीच्या
संगोपनाखाल

# गांठ

जिविताच्या उसवल्ल्या वस्त्राक
शिवपाचो हो केदो
केविलवाणो प्रयत्न!
सूय, सूत, ठिगळ
शिलाई मशिनाचोय प्रयोग
पूण लुगटूच इतलें विरविरीत
कि दरेक टाक्या वांगडा
विरत गेलें, उसवत गेलें
कितले खेप समजायलें स्वताक
बाये, वयल्या रंगरूपाक भुलूं नाका
लुगटाची पत आनी पोंत पळोवन घे
पूण आमचो विणकार तितलोच कुशळ
विणपाक ताणें शिकयलें, कबीराक
तशें दरेकाक कबीर करपाचो
ताचो प्रयत्न
पूण तशें जायना
एखाद्रोच कबीर
पूण विणटना
एखाद्री तरी गांठ
बारीकशी काय जायना
मारूंक तो विसरना
मागीर विणकार कबीर आसूं वो आनी कोणूय
मागाचेर लुगट मागीर तशेंच विणटा
गांठीसयत

## झडिल्लीं पिसां

सपनांतल्या निळनिळश्या मोरांक
भरून आयिल्ल्या कुपांचे सुवादीन करून
नव्यान सपन पळोवंक तूं मेकळो
अशें कितले खेपो करतलो तूं?
सुगंधी श्वास, ओले सूर, संततधार पावस
तुका आवडना आसतूय
पूण जिवाच्या आकांतान कोसळपी पावसाखाला
नाचपी तुज्या मोरांक
एक खेप वळून तरी पळय!
परतुंवचें दिसलें तर?
पूण नाकाच
तूं वच तुजे वटेन
हरंधरांच्या पावसा पोंदा
झडिल्लीं मोरांपिसां
हांव वेंचून जतन करीन

## वेंचप

जगूच अशें वाडत वता, भराभरा
कि सगळेंच वेंचप भाग थारता
मनशांसयत!
हातांत घेतिल्ले हात तरी रावतले
काय वळणाचेर निसटून वतले
वळणांसयत
शाश्वती कित्याचीच ना
तरीय नाशिल्ले शाश्वतीसयत
सोद वाऱ्यार सोडून दिवं येनात
संबंध काय बेवारस करूं येनात

## एकटेंपण

तूं केन्ना एकटें रावलां?
हो प्रस्न जायते खेपे वांट्याक आयला
तशें एकटेंपण म्हळ्यार तरी कितें?
मनीस जल्माक येता... एकटोच
आनी मरतनाय वांगड नासता–कोणाचोच
येवपाचें एकटें, वचपाचें एकटें
ही जगाची रितूच!
एकटें आसणें, एकटें रावणें
सामकें एकटेंपण...
म्हळ्यार मनशां बगर
वांट्याक येवंक ना अशें न्हय
तशें एकटेंपण मानसिकूच आसता न्हय?
घोळक्यांत एकटो आशिल्लो
एकसुरो शिलेदार
गर्देंत एकटेंपण भोगपी
एकसुरो जीव
ते पासत भौतिक एकटेंपण कित्याक?
भोंवतणची गर्दी तुमची नासताच

पूण तुमचें एकटेंपण मात तुमचेंच आसता
सामकें तुमचें, हक्काचें
भरिल्लें घर, घरांत मनशां,
दरेकलो आपल्या जुंव्यार
खंयच्च्यान हाडप दुकलेंपण?
रातीचो घनघोर अंध:कार
जग शांत, निवांत न्हिदिल्लें
पातकडयांचेर सपनांचो भार घेवन
शेजाराकूय कोण निवांत संथ लयेंत न्हिदिल्लो
आनी रात वैरीण जावन तुमचे पासून
असंख्य मैल पयस
एकटेंपण हें बगर वेगळें आसता?
घराचे चार वणटींत एकटें आसप
जाय तसलें संगीत आयकप, करप
घड्याळाची टिकटिकपी शांती, वांगडाक
अशें एकटेंपण जायजायशें!
पूण तशें येना वांट्याक
कोणतरी सतत वांगडा आसप
घरांत मनशां आसप म्हळ्यारूच
एकटें नासप?

एकटें म्हळ्यार एकटेंच आसप
भर जात्रेंत, बोट सुटिल्ल्या भुरग्यावरी
आवय बापूय नाशिल्ल्या पोरक्या अनाथावरी
भरिल्ल्या घरांत उसवल्ल्या पोंतावरी
अशें एकटेंपण वर्सान वर्सां भोगल्या उपरांत
हेर खंयच्याच एकटेंपणाची
मिरास नासता
आपूणच आपले आसतात....
तेंय तरी नक्की व्हय..?
वो थंयूय एकटेंपण...
जल्म - मरणां सारकें!

## वस्त्र

कबीरा,
वस्त्र तर तुवें बरें विणलां
आडवे, उबे धागे बरे गुंफल्यात
गांठीय मारल्यात
दिसूंक फावना अश्यो,
सुक्षीम, बारीक विणकामात लिपून वचपी
मागीर अशें छान वस्त्र तूं सामकार मांडलें
सांगलें,
'घेवन उडय हें वस्त्र, न्हेसून उडय हें वस्त्र'
तुजे परस तुज्या विक्रेत्यांच्या
भुलावणेंत हांव!
ताणें त्या वस्त्राचे कितले गूण गायले
पोत, वीण सगळेंच कवतुक करपा सारकें
स्पर्श मोहक, मुलायम
ताणें सांगिल्लें तितलेंय मोल दिलें
ना घासाघीस, ना कचकच
तशें पळोवंक गेल्यार घासाघिसीक वाव खंय !
हांव त्या वस्त्राच्या मोगांत,
आकंठ!
वस्त्र घेवन वस्त्र न्हेसून
हांव येवकाराक फुडाराच्या
आतां मेरेनचो भूत, वर्तमान विसरून





## एक्झिट

लोकांनो,
खेळ केन्नाच उलगला
रंगमाचयेचे रिकामे पोकळेंत
हांव एकटेंच उबें आसां
सरभोंवतणची जडशीळ शांतताय
भरून आयिल्लो ओलो गच्च काळोख
आनी निकतीच येवन थांबिल्ली हवा
खेळ उलगून बरोच काळ सरला
रंग पुसून, देवोवनूय वेळ जावन गेलो
हेर पात्रांनी केन्नाच एक्झिट घेतल्या
आनी म्हाका मात विंगूच दिसना
एक्झिट घेवंक
हे प्रेक्षक अशे शांत, मोने आनी घुस्पल्ले लोक
तांकां टाळयो मारपाचेर बंदी?
उलोवपाक हरकत?
तांकां 'वा!' म्हणपाचें नासता व्हय?
काय हें सगळें अशें, खोल खोल गर्तेंतलें
म्हाका हांगाच उबें रावंक जाय
हांव हांगाच उबें आसां
काळखांतल्यान उजवाडाची तिरीप येवनह्व
एक पोकळी उक्ती जाल्या
हांव तेवटेन चलूंक लागलां
एक्झिटचे दिकेन!



**डॉ. सुलभा कोरे**

**शिक्षण**

* बी. ए. अर्थशास्त्र (इंग्लीश), मुंबय विद्यापीठ
* एम. ए. हिंदी, (प्रथम श्रेणी), मुंबय विद्यापीठ
* भाषा रत्न (हिंदी) पदवी प्राप्त
* पी. एच. डी. हिंदी, भारतीय समाजाच्या दृष्टिकोनांतल्यान हिंदी चित्रपटसृष्टींतली भारतीय स्त्री

**प्रकाशित पुस्तकां**

* **स्पर्शिका** (महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ)
* **एक नया आकाश** (महाराष्ट्र राज्य हिंदी साहित्य अकादमी)
* **सकळांचा परिमळु**, विजय प्रकाशन, नागपूर

**अणकार**

* भारतीय कथाएँ खातीर डॉ. अशोक शहाणे हांच्या **इस शहर में हर शक्स...** ह्या मराठी दीर्घकथेचो हिंदी अणकार (१९९०-९१)
* लेखक मधु लिमये हांच्या **आत्मकथा** ह्या मराठी आत्मकथेचो हिंदी अणकार, भारतीय प्रकाशन संस्था, दिल्ली
* **समकालीन साहित्य** ह्या मराठी कवितांचो हिंदी अणकार साहित्य अकादमीच्या पत्रिकेंत प्रसिद्ध
* **दिपवा** - कवी निरंजन उजगरे हांच्या मराठी कवितांचो हिंदी अणकार
* **शिव की शक्ति** - कवी उद्भ्रांत हांच्या दीर्घ कवितांचो मराठींतल्यान गीतात्मक अणकार
* **७२ मैल** - लेखक अशोक वटकर हांच्या आत्मकथेचो हिंदी अणकार
* **मंजिल-ए-मकसूद-पाकिस्तान**-लेखक प्रवीण कारखानीस, मराठी पुस्तकाचो हिंदी अणकार
* **जगायचंय प्रत्येक सेकंद** - लेखिका मंगला केवळे हांच्या दलित आत्मकथेचो हिंदी अणकार
* **अचरज ग्रह की दंत कथा**, मराठी अणकार, साहित्य अकादमी.

**स्तंभलेखन**

* सांज लोकसत्ता- फुले आणि निखारे, वृतमानस- निवडुंग फुले, जनसत्ता - वामा, जनसत्ता सबरंग -क्षितिज, स्त्री, नवशक्ति- हितगुंज
* खूपशा हिंदी तशेंच मराठी खबरापत्रां, नियतकालिकांखातीर फाटल्या २५ वर्सां वयर लिखाण
* **युनियन धारा** - युनियन बँकेचें मुखपत्र (हिंदी आनी इंग्लीश), २०००सावन संपादन
* साहित्य जागर (सहाय्यक संपादक), मराठी माया डॉट कॉम (कार्य. संपादक), **दीपशिखा** -आंधळ्या बायलांचें मासिक (संपादन)

**पुरस्कार**

* अहिंदी भाशेंतल्या योगदाना बद्दल सारस्वत सम्मान (१९९६)
* **एक नया आकाश** महाराष्ट्र हिंदी साहित्य अकादमीचो पुरस्कार
* हिंदी पत्रकारितेंतल्या योगदानाखातीर **अग्निशिखा मंच** पुरस्कार
* कोंकण मराठी साहित्य परिषदेवतीन वाङमयीन स्त्री कार्यकर्ता पासत स. राजा राजवाडे पुरस्कार
* पद्मश्री अनंत गोपाल शेवडे हिंदी सेवा पुरस्कार, महाराष्ट्र हिंदी साहित्य अकादमी, २००७-०८
* आशीर्वाद राजभाषा पुरस्कार, २०१०
* डोंबिवली साहित्य सम्मान, २०११
* सकळांचा परिमळु -देवयानी प्रकाशन, नवी मुंबयवतीन ग्रंथोदय पुरस्कार

डॉ. सुलभा कोरे ह्यो मराठी आनी हिन्दींतल्यो समकालीन कवयित्री आनी लेखिका. तांचो स्पर्श हरवलेले हो मराठींतलो एक भोव चर्चित आनी तोखेल्लो काव्य संग्रह. तांच्यो कविता ह्या आदीं मौज, महाराष्ट्र टायम्स, लोकसत्ता बी हातूंत वाचिल्ल्यो आनी लक्ष ओढून घेवपा सारक्यो आशिल्ल्यो. तांचो स्पर्शिका होय काव्य संग्रह वाचनांत आयिल्लो..जेन्ना तांचो स्पर्श हरवलेले हो काव्य संग्रह हातांत पडलो तेन्ना तांतल्यो कविता वाचतना आपसूक कोंकणिंतल्यान उसवत वचूंक लागल्यो. मराठी साहित्य हें कोंकणी मनशान मराठींतूच वाचपाचें, तितली तरी मराठी ताका येवंकूच जाय ह्या मताचो हांव. पूण जेन्ना हांव दुसरे खेप ह्या संग्रहांतल्यो कविता एकांतांत वाचूंक लागलों तेन्ना तांतल्यो कांय कविता कोंकणींत हाडपाचो चाळो करूंक लागलों आनी जेन्ना त्यो पुर्णायेन कोंकणीमय जाल्यो तेन्ना त्यो कविता म्हाका म्हज्योच अश्यो भावूंक लागल्यो. तातूंतल्यान सुलभाच्यो कविता सुलभपणान कोंकणीच जावन गेल्यो. सुलभा कोरे हांच्यो ह्यो कविता आशयघन आनी अणभवान परिपक्व अश्यो आसात. संवेदनशील अश्या ह्या कवितांक कोंकणी विश्वांतूय येवकार मेळटलो हातूंत दुभाव ना.


डॉ. सुलभा कोरे

- दिलीप बोरकार

बिम्ब
प्रकाशन


ISBN 978-93-85654-11-4
9 789385 654114

मोल १६० रू.